# कयपंजी

माया खरंगटे



# कथपंजी

कविता

माया अनील खरंगटे

अपुरबाय प्रकाशन

KAYAPANJI

*Poems by Mrs. Maya Anil Kharangate*

प्रकाशन क्र. ३९


घर नं. ३९, हेगडे चाळ
रावणफोंड, दवर्ली
मडगांव - गोंय

पयली उजवाडावणी :
डिसेंबर १९८९

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

उजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें - गोंय
४०३ ४०१

छापपी :
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय, फोंडें-गोंय
४०३ ४०१

---

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान हें पुस्तक
'लेखकाचें पयलें पुस्तक अनुदान येवजणे' खाला छापलां.

---

मोल :
२० रुपया

कांटयाळे वाटेन तोल सांवरीत,
म्हाका चलपाक शिकयिल्ले
म्हजे आज्जे,
तुज्या शिवाय
ह्या पयल्या फुलाचो अधिकारी
आनीक कोण ?

– माया

'कयपंजी'
कविता संग्रहांतल्यो कविता
हाचे आदीं –
'राष्ट्रमत'
'चित्रंगी'
'कोंकणी'
'ऋतु'
'कोंकण टायम्स'
'शेनाय'
'जैत'
ह्या नेमाळयांनी आनी
'अप्रूप'
ह्या प्रातिनिधीक कविता संग्रहांत
उजवाडाक आयल्यात.
तशेंच संग्रहांतल्या
कांय कवितांचें प्रसारण
आकाशवाणीच्या पणजी आनी मंगळूर
केंद्रा वयल्यान जालां.

# प्रकाशकाचे वर्तान ....

बाय माया खरंगटे हांगेलो हो पयलो कविता संग्रह वाचप्यांच्या ह्'तान दितना खोस भोगता.

१९८५ वर्सा अपुरबाय प्रकाशनान १५ नवोदित कवयित्रींचो प्रातिनिधीक कविता संग्रह उजवाडाक हाडिल्लो आनी ह्या कवयित्रींचीं स्वतंत्र पुस्तकां उजवाडाक हाडपाची इत्सा प्रगट केल्ली.

त्या प्रमाण बाय नीला तेलंग हांचो 'काळजाची भरती' हो स्वतंत्र कविता संग्रह आमी उजवाडाक हाडलो.

मागीर बाय जयंती नायकाचो 'गर्जन' कथा-संग्रह प्रकाशीत केलो आनी आतां बाय माया खरंगटे (आदलें शेळडेकार) हांगेलो कविता संग्रह भायर सरता.

प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार हाणी संग्रहाक सविस्तर प्रस्तावना बरोवन नवोदित कवयित्रीच्या गुणदोशांची फोडणीशी केल्या ती खासा कवयित्रीक आनी हेर नवोदित बरोवप्यांक मार्गदर्शक थरतली अशी आस्त आसा.

बायलांच्या साहित्यिक कलागुणांक पोसवण मेळची म्हण अपुरबाय प्रकाशन फाटल्या धा वर्सां सावन, खासा बायलां खातीर 'चित्रंगी' दिवाळी अंक उजवाडायता. त्याच बरावर मेळावे आनी साहित्यिक कार्यावळी घडोवन हाडटा.

अशा साहित्यिक वावरांत माया सदांच वांटो घेत आयलां.

वाचप्यांकडल्यान मायाचे कवितेक बरो येवकार लाबतलो अशी आस्त आसा.

**हेमा नायक**
प्रकाशक

मांडावळ

# 'कयपंजी'च्या उजवाडांत

'कयपंजी' हो बाय माया खरंगटे (लग्नाआदींचें शेळडेकार) हांचो पयलोच कवितां-झेलो उजवाडाक येता. कोंकणी साहित्याच्या मळार माया खरंगटे हांकां सगळेजाण कथा-लेखिका, कवयित्री आनी कथाकथनकार म्हुण वळखतात. बाय हेमा नायक आनी हेर लेखिकांच्या सांगातान ताणी बायलांच्या चळवळींतय मोलादिक वावर केला. कोंकणी भास आनी साहित्य हांच्या चळवळींत ज्या वेळार बायलो हाताच्या बोटांर मेजपाइतल्योच दिसताल्यो, तेन्ना कथा, कविता आदि साहित्य प्रकार बरोवन ज्या बायलांनी कोंकणी साहित्य निर्मितीची दायकी आपणाल्या भुजांर घेतली, तातूंत माया खरंगटे ह्यो एक आसात. ते आदीं काव्याच्या मळार आमकां एकच बायल दिसताली ती म्हळ्यार विजयाबाय सरमळकार. देवनागरी कोंकणीत पुस्तकरूपान कवितां-झेलो उजवाडावपी पयली कवयित्री, हो मान मेळोवपी हे कवयित्रीच्या कवितांतल्यान कोंकणीत पयलेच खेपे बायलमनशेचें अणभवविश्व, बायलमनशेची भाव-जीण परगट जाली.

विजयाबाय हांची काव्य-साधना चलता आसतनाच कांय तेंपान कवयित्रींचें एक भिरेंच कोंकणीच्या मळबांत आपणाले प्रतिभेचीं पांखां हालयत मुक्त संचार करतना दिसूंक लागलें. अश्या १५ कवयित्रींच्यो कविता आशिल्लो एक प्रातिनिधीक कविता संग्रह 'अपूप' ह्या नावान उजवाडाक आयलो. हेमाबाय नायक हाणी संपादित केल्ल्या ह्या संग्रहांत आत्मनिष्ठ कवितेबराबरच सामाजिक उमाळो उक्तावपी कविताय दिश्टी पडटा. समाजांतलीं दुख्खां आनी अन्याय, बायलमनशेच्यो व्यथा, तिचो घुस्मटमार, तिचे हावेस इत्यादींचें दर्शन आमकां ह्या प्रतिनिधीक संग्रहांत घडटा. पूण, विजयाबाय हांच्या कवितांझेल्याउप्रांत एकाय कवयित्रीचो कवितां-झेलो पुस्तकरूपान उजवाडाक येवंक नासलो. बाय नीला तेलंग हांचो 'काळजाची भरती' हो हालींच उजवाडाक आयिल्लो कवितां-झेलो आनी आतां उजवाडाक येवपी 'कयपंजी' हो बाय माया खरंगटे हांचो कवितां-झेलो, हाणी ही उणीव कांय प्रमाणांत भरून काडल्या.

माया खरंगटे हांकां जे लोक वळखतात, तांचेर हे तरनाट्या लेखिकेची सौजन्यशीलता आनी संवेदनशील वृत्ती, हांचो प्रभाव पडलेबगर रावना. कवयित्रीची ही संवेदनशीलता 'कयपंजी'त उपाट

भरून वोततना दिसता. 'कयपंजी'तल्यो अट्ठावन कविता आनी अठरा कवनां वाचून सोंपथतगेर रसीक वाचकाक सगल्योच कविता आवडटल्यो, अशें कोणच म्हणचो ना. ह्या कवितां-झेल्यांत उंचेल्या पांवड्याच्यो जश्यो कविता आसात, तश्योच कांय कविता तांकां कविता म्हणच्यो काय ना असो संभ्रम मनात निर्माण करपीय आसात. पूण, ह्यो सगल्यो कविता वाचतगेर एक गजाल जाणवता, ती म्हळचार कलात्मकता सादिल्ल्या आनी न सादिल्ल्या अश्या दोनय तरांच्या कवितांत बायलमनशेचें अतिसंवेदनशील मन पडबिंबित जालां. आनी हाकाच लागून कलात्मक जावं नाशिल्ल्यो तांच्यो कांय कविताय कांय प्रमाणात मनाक भावल्याबगर रावनात. माया हांचो हो कवितां झेलो वाचातगेर म्हज्या मनात कवितेंत परगट जाल्लें एकाद्र्या कवीचें संवेदनशील मन आनी कवितेंत सादिल्ली कलात्मकता, ह्या दोनींच्या परस्पर संबंदांचो प्रश्न उप्रासलो आनी मागीर प्रकर्शान जाणवलें कि, एकाद्रे कवितेंत कवीचें संवेदनशील मन जाणवलें म्हुण तातूंत कलात्मकता जाणवताच अशेंना. कवितेंतलें कलात्मक सौंदर्य हें तातूंतल्या अणभव-दर्शनात आसता. कवी हो संवेदनशील आशिल्ल्यान ताचे वैयक्तिक जिणेंत, भोंवतणच्या सैमांत आनी सामाजिक जिणेंत, जें कितें घडटा, ताचो तो उत्कटतायेन अणभव घेता. कवीन प्रत्यक्ष वो कल्पनेंतल्यान घेतिल्ले हे अणभव ताच्या संवेदनशील मनात जाणिवो निर्माण करतात. ह्यो जाणिवो जितल्यो तीव्र आनी उत्कट आसतात तितल्यो त्यो अदीक नेटान परगट जावपाचो प्रयत्न करतात. कवी हो योग्य उतरां, प्रतिमा, प्रतिकां इत्यादींच्या मार्गान आपणाल्या ह्या परगट जावंक धडपडपी जाणिवांक व्यक्त रूप दिता. संवेदनाशील जाणिवांचें हें प्रगट रूप म्हळयार कविता. पूण, कवितेंतलें सौंदर्य हें तिच्या भायल्या आंगांचेरच अवलंबून आसना. प्रतिमा, प्रतिकां, अलंकार यमकबद्ध रचना, छंदोबद्ध रचना, शब्दांचो क्रम इत्यादि भायलीं आंगां आसलीं म्हणटगेर कविता सुंदर जाली, अशें म्हणप म्हळयार कवितेविशीं चुकीच्यो कल्पना मतींत दवरप.

कवितेंत कवीचो अणभव उकतो जाल्लो आसता. हें अणभव-दर्शन

होच कवितेचो प्राण वो कवितेचें अंतरंग. कविता वाचतगेर वाचकाच्या काळजाक कवीन शद्बरूपान व्यक्त केल्लो अणभव स्पर्श करून गेलो आनी ताका शुद्ध मानसिक आनंद मेळ्ळो, तर कवितेंत कलात्मक सौंदर्य निर्माण जालां, अशें म्हुणूंक जाय. कवीच्या मनातल्यो अणभव-आदारीत जाणिवो शद्ब, प्रतिमा, प्रतिकां आदींच्या रूपांत परगट जातात हें खरें आसलें, तरी हे शद्ब, प्रतिमा, प्रतिकां, अलंकार म्हणजेच कविता न्हय. तीं सगळीं अणभव-आदारीत जाणिवो उकतावपी माध्यमां आसात. अणभवाचे, उमाळ्याचे ते वाहक आसात. हीं माध्यमां कवितेक सोवितपण हाडटात, हातूंत दुभाव ना. पूण, कवितेचें मूळ सौंदर्य तातूंतल्या अणभवाच्या उत्कटतायेंत आनी खोलायेंत आसा. म्हुणूनच खूब वेळा कसलेच अलंकार नाशिल्ली आनी गद्याचें रूप आशिल्ली कविताय आमच्या काळजाक भावता. अलंकार, यमकबद्धता वो छंदोबद्धता इत्यादि गजाली जेन्ना कवितेच्या अंतरंगांतल्यान (म्हळ्यार जेन्ना कवीच्या मनातल्यो अणभव-आदारीत जाणिवो व्यक्त रूप घेतात त्याच वेळार) निर्माण जातात, तेन्नाच त्यो कवितेक कलात्मक सौंदर्य हाडूंक शकतात.

जेन्ना त्यो कवितेक भायल्यान दसयिल्ल्यो आसतात, तेन्ना कवितेची कलात्मकता पुराय इबाडून वता. तेच प्रमाण, कविता म्हळ्यार विचार उकतावपी निवळ विधानां न्हय. कवितेंत शद्ब हे भावना उकतावपाचें काम करतात. शद्बांबराबरच प्रतिमा, प्रतिकां, नाद, लय इत्यादींच्या मार्गान कवी आपणाल्यो भावना वाचकांमेरेन पावोवन तांच्यो भावना जागोवपाचो प्रयत्न करता. म्हुणूनच, कवितेंत जेन्ना निवळ विचार उकतावपी विधानां येतात, तेन्ना वाचकांच्यो भावना जागोवप, हें कवितेचें मुखेल कार्य फळादीक जायना, ह्यो सगल्यो गजाली ध्यानांत घेतल्यार केन्ना केन्नाय एकाद्रे कवितेंत कवीची संवेदनाशील वृत्ती दाखोवपी विशय आनी विचार आसूनय ती कलात्मक रूप कित्याक घेना, हाचे फाटलें कारण मतींत येवपाक वेळ लागना.

बाय माया खरंगटे हांच्या 'कयपंजी' ह्या कवितां-झेल्याक वयले साहित्यिक निकश लायल्यार रोकडेंच ध्यानांन येता कि, तांच्या कितल्याश्याच कवितांत फकत तांची संवेदनशीलता दाखोवपी विचार

आनी विशयच दिसतात, जाल्यार कांय मोजक्या कवितांत तांच्या संवेदनशील जाणिवांक लाबिल्लें कलात्मक सौंदर्य दिश्टी पडटा. हाका लागून ह्यो कलात्मक सौंदर्य लाबिल्ल्यो कविता रसिक वाचकांच्या संवेदनशील काळजाक नाजुकपणान स्पर्श करपांत यशस्वी जाल्यात. 'असोच गाजतलो' (पान १), 'सपन' (पान ६), 'ज्योत' (पान ८), 'उज्या कीट' (पान १०), 'देव फसलो' (पान १२), 'उजो' (पान १४), 'भुरगेपण' (पान १६), 'घरचे' (पान २१), 'कर्ण' (पान २४), 'आशेचें बीं' (पान २६), 'तूं' (पान २९), 'तूं यो' (पान ३९), 'तीं दुकां' (पान ४२), 'काळखाचें झाड' (पान ५०), 'व्यथेचे बेनुल्लेन' (पान ६१). ह्यो आनी हेर कांय कविता जरी सामक्यो श्रेश्ट कविता म्हणपासारक्यो नासल्यो, तरी त्यो कलात्मक सौंदर्याच्या कसाक उतरिल्ल्यो आसात. हाचें कारण ह्या कवितांनी परगट जाल्लो कवयित्रीचो अस्सल अणभव आनी हे अणभवाचे उक्तावणेंत ताणी दाखयिल्ली उंचेली कल्पना शक्त अश्यो कविता संख्येन उण्यो आसल्यो तरी तांकां लागून काव्य-संग्रहाचो पांवडो उंचावला, हातूंत दुभाव ना. ह्या काव्य-संग्रहांतल्यो जिणेंतलीं चिरंतर सत्यां सांगपी दोन कविता देखीक घेवया. दोनींतय जिणेचें तत्त्वज्ञान सांगलां. 'असोच गाजतलो' हे कवितेंत सैमाच्या चिरंजिवित्त्वाचे फाटभुंयेचेर मनश्याचें क्षणभंगुरत्त्व चितरायिल्लें आसा. जाल्यार 'केन्नाच मेळना', हे कवितेंत सुख सहज केन्नाच मेळना, तें ओडून हाडचें आसता, हो आशय व्यक्त केल्लो आसा. पूण, 'असोच गाजतलो' (पान १) ही कविता एक उत्कृष्ट कविता वाचिल्ल्याचो आनंद दिता, जाल्यार 'केन्नाच मेळना' (पान ५) ही कविता काळजाक मात्य भावना. हाचें कारण, 'केन्नाच मेळना' हे कवितेंतलो आशय हो फकत विचार मांडून वो विधानां करून व्यक्त केल्ल्याभशेन दिसता. हाच्यापरतें, 'असोच गाजतलो' हे कवितेन दर्याचे गाजीचें प्रतिक घेवन आनी मनश्याचें भुरगेपण, तरनाटेपण, जाण्टेपण आनी मरण ह्या वेगळ्या वेगळ्या टप्प्यांत मनश्याचो दर्याकडेन जो

भावनिक संबंद येता, तो चितारून कवयित्रीन उमाळ्यांच्या नाजुक परगटणातल्यान जिणेचें एक सत्य वाचकांच्या मुखार मांडलां. वाचकाच्यो भावना जागोवप, हें कवितेचें कार्य 'असोच गाजतलो' हे कवितेंत फळादीक जालां, जाल्यार 'केन्नाच मेळना' हे कवितेंत विचारांचेर चड भर दिल्ल्यान वाचकांच्यो भावना जागोवपाची तांक तातूंत ना.

'कयपंजी' तल्या कांय कवितांक कलात्मक सौंदर्य लाबूना, हाचें आनी एक कारण म्हळ्यार, त्यो प्रमाणाभायर वर्णनात्मक आसात. अश्या कवितांत नेमकेपणापरस गरजेभायर पाल्हाळ दिसता. देखीक 'क्रांतिकारक' (पान ४०) 'कर्णाच्या ह्वेसान' (पान ५८), आनी 'तरनाटचा' (पान ३८) ह्या कवितांचो उल्लेख करूंक जाय. कविता हो उण्या उतरांत प्रभावीपणान आशय उकताववपी असो साहित्यप्रकार आसा. मोजून मापून वापरिल्लीं उतरां, प्रतिकां, प्रतिमा इत्यादींच्या मार्गान कवीन कवितेंत नेमकेपण हाडूंक जाय. आशयाचे उक्तावणेक गरज लागली तरच कविता लांब जावंक जाय. 'कयपंजी'तल्यो कांय कविता ह्या नेमकेपणाक लागून कलात्मकतेच्या कसाक उतरल्यात. देखीक 'सपन' (पान ६), 'भुरगेपण' (पान १६), 'तूं यो'(पान ३९), 'तीं दुकां' (पान ४२), आदी कांय कविता समर्पक शब्दांत प्रभावीपणान आशय उकतायतात.

माया खरंगटे हांच्या कवितांचेर वयरवयर जरी नदर मारली तरी एक गजाल रोकडीच ध्यानांत येता, ती म्हळ्यार कवयित्रीन अणभवल्ल्या आनी पळयल्ल्या दुख्खाचें शब्दरूप म्हणजेच 'कयपंजी' हो कवितां-झेलो. कवयित्रीन वैयक्तिक जिणेंत दुख्खाचो जो अणभव घेतला वो जें दुख्ख पळयलां तें आनी सामाजिक जिणेतले अन्याय, अत्याचार आनी दुख्खां पळोवन तिच्या काळजाक जे घाये पडल्यात, ते सगले 'कयपंजी'च्या पानांपानांन भिनल्यात, हाचो वाचकाक प्रत्यय येता. कवयित्रीचें सैमांत गुंतिल्लें संवेदनशील मन, विरहाची भावना, संवसारीक जिणेंतली अतृप्ती, निर्शेणी आनी दुख्ख, मन उल्हसित करपी,

यादी, दुख्खांतल्यान तड मारपाचो हावेस, ह्यो सगल्यो भावना उक्त्यो करपी कविता वाचतगेर कवयित्रीच्या काळजांत "व्यथेची बेनुल्ल पांगुरलेली एक दुखाळ म्हुर्त" घर करून आसा, हाची जाणीव जाता. 'कयपंजी'चें प्रतिक घेवन ही व्यथा कवयित्रीन नाजुकपणान उक्तायल्या,

हातांत कयपंजी घेवन
दर एकटयालो लामणदिवो पेटयत गेलें
हांव काळखांत आसा म्हणपाची याद
कयपंजी पालयतगर जाली.

कवयित्रीच्या कवितांत परगट जाल्लें वैयक्तिक जिणेतलें आनी समाजांत पळयिल्लें दुख्ख, हें वेगळया वेगळया प्रतिकांतल्यान आमच्या मुखार येता. ह्या कवितांचो विशेश असो कि, कवयित्री सैमातल्यान आनी भोंवतणच्या संवसारीक जिणेतल्यान प्रतिकां घेवन वो सेम आनी संवसारीक जीण हातूंतल्या घटकांचें व्यक्तिकरण करून आपणाल्या मनाच्यो व्यथा आनी उमाळे, आनी तशेंच, समाजांत दिश्टी पडपी अन्याय, अत्याचार, दुख्ख हांका व्यक्त रूप दिता. ह्या कवितांत आमकां सैमाचें दर्शन घडना. तर सैमातल्या घटकांच्या माध्यमांतल्यान कवयित्रीच्या मनाचेंच दर्शन घडटा. खुबिल्लो दर्या, खंखाळ ल्हार, रेंवट जमीन, उथळ झाडां, घराक जळोवपी आनी लासोवपी सूर्य, उजो पेटिल्लें मळब, काळखाचीं फुलां आनी फळां, उगडें-बोडकें तळप माथें, भाटभर सोनयाळें वोत, चुट्टांची रांगोळी, मना देगेर नाचपी मोर, शेणिल्लो चंद्र, पानेल्लो रूख, दुदान न्हाल्ली रात इत्यादि सैमाचे विविध घटक कवितांत येतात ते कवयित्रीचे उमाळे नाजुकपणान चितरावपाखातीरच.

जाचे बुनयादींतच उज्याकीट सांपडल्या आनी जाका जळोवपी आनी लासोवपी असो सूर्य जाच्या माथ्यार सदांच उबो आसा, अशें पोटांत उज्या केण घेवन आशिल्लें 'घर' ह्या काव्य-संग्रहांत आमचें लक्ष ओडून घेता. घराचें प्रतिक दिवन बरयिल्ल्या दोनय कवितांत (पान १० आनी पान ४४) कवयित्रीच्या मनातले व्यथेचें प्रत्ययकारी चित्रण जालां. कवयित्रीचें मन फकत दुख्खानच भरूना. तिच्याच उतरांनी सांगपाचें जाल्यार,

घर मोठें अजापाचें
दर्याचें ल्हार जशें
मरण घाट आयकून लेगीन
हावेसान भरलां पिशें

'तळप-मनांत' (पान ६०) हे कवितेंतय दुख्खांतल्यान ह
मारपाचो हो हावेस उकनो जाला.

तळपार स्वप्न फुल्लें ना
आतां तळप माथें उगडें - बोडकें
तरीय मनान
स्वप्न पांचवें - निळशें

काळखाच्या झाडार पुनवेचें स्वप्न फुलोवपी 'इल्लयाच
काजुल्या'च्या रूपान (काळखाचें झाड, पान ५०) हो हावे
उक्तायतना कवयित्रीन खूब कलात्मकता दाखयल्या.

ह्या काव्यसंग्रहांतल्यो सामाजिक दुख्खां व्यक्त करपी कवि
कवयित्रीची सामाजिक नदर आनी बांधिलकी हांचेर उजवाड घालता
कुंती, कर्ण इत्यादि पुराण कालीन पात्रांचें प्रतिक घेवन कवयित्रीन ह
कवितांत जशे आपले दुख्खाचे उमाळे परगट केल्ल्यात तशेंच
सामाजिक बांधिलकीच्या कवितांतय उकते केल्यात. पूण, माया हांच
सामाजिक बांधिलकीच्यो एक - दोन कविता सोडल्यार ह
प्रकारांतल्यो भोवतेक सगल्यो कविता कलात्मकतेच्या कसाक मात
उतरिल्ल्यो दिसनात. 'आयज कृष्णा परतून तुका' (पान २८), '
जागी जाल्ली बायल' (पान ३१), 'तरनाटचा' (पान ३८), 'कुंत
(पान ५९), इत्यादि कांय कवितांत जरी समाजांतल्या दुख्खाचें आ
अन्यायाचें परगटण आसलें, तरी तातूंत कवयित्रीच्या कल्पनाशक्ती
उडकी सामान्य पांवडयाची दिसता. ह्या कवितांत तरल भावनांच
अविश्कारापरस विचारांचेंच चड परगटण दिसता. कांय सुवात
निवळ विधानांचीच अभिव्यक्ती दिश्टी पडटा. 'देव फसलो'
कविता मनीस आपणालें मनीसपण वगडावन बसला, हो विच
मांडटा. पूण, हे कवितेंतय भावनाविश्कारापरस विचाराचेरच चड
दिल्ल्यावरी दिसता. हे दृश्टीन विचार केल्यार, 'घरचे' (पान २१
आनी 'कर्ण' (पान २४) ह्यो समाजांतलो अन्याय आनी पिडेस्तां

दुख्वां हांचें प्रतिकात्मक चित्रण करपी कविता आयच्या समाजाचें प्रत्ययकारी दर्शन घडयतात. मनशाचो समाजांत जो घुसमटमार जाता वो ताची जी पिळणूक जाता, ताचें ह्या दोनय कवितांत प्रत्यक्ष चित्रण करनासतना कवयित्रीन रूपकाच्या मार्गान आशय वाचकांच्या काळजामेरेन पावोवपाचो यशस्वी प्रयत्न केला.

चडशा कवि कविता-संग्रहांतल्या वेगळयावेगळया कवितांत तीचतीच शब्दरचना दिसप ही त्या कविता-संग्रहाची उणीव मानूंक जाय. 'कयपंजी'त अशेंच घडिल्ल्याचें दिसून येता. 'वांझकुटी जीण म्हजी' ही शब्दरचना दोन कवितांत दिश्टी पडटा. हेर कांय कवितांतय एकाच नमुन्याचो शब्दरचनेचो पुनरुक्ती जाल्ली दिसता. 'कयपंजी'त आनीक एक दोश दिसून येता, तो म्हळ्यार खूबश्या कवितांनी समर्पक शब्दांचो शब्दरचनांचो उपेग जावंक ना. हाका लागून कवितेंतली कलात्मकता उबाडिल्ली दिसना. ह्या संग्रहांतल्या कांय कवितांचे विशय, तातूंतल्यो कल्पना आनी प्रतिकां, हे वावतींत कांय प्रस्थापित कवींचो प्रभाव पडल्याचें स्पश्ट जाता. कांय कवितांत उमाळयांच्या चित्रणांत वोलाय ना. तेचप्रमाण विशयांचें नावीन्यय दिश्टी पडना. माया खरंगटे हांच्या कविता-संग्रहांतले हांगा नमूद केल्ले कांय दोश कोंकणांतल्या हेर नवोदित कवी-कवयित्रींच्या आनी कांय प्रस्थापित कवींच्या काव्यांतय दिश्टी पडटात. 'कयपंजी'त हे दोश आसूनय, आर्दी भांगरा तप्रमाण, कलात्मक सौंदर्य लाबिल्ल्या कांय मोजक्याच कवितांक लागून कविता-संग्रहाचो पांवडो उंचावला.

ह्या संग्रहान एक गजाल स्पश्टपणान सिद्ध केल्या कि, माया हांचेकडेन एक बरी कवयित्री जावपाखातीर जाय आशिल्ले गुण आसात. संवेदनशीलता, वैचारिक नदर आनी भोंवतणचें जग पळोवपाची वारीक-साण, हे गूण तांचेकडेन आसात. ताणी आपणालें अणभव विश्व वाडयलें, श्रेश्ठ काव्याचें वाचन केलें आनी कवितेचें तंत्र समजून घेवन स्वताचीच अशी वेगळी वाट सोदून काडली, जाल्यार कोंकणी भाशेक एक बरी कवयित्री मेळटली, हातूंत म्हाका दुबाव दिसना. माया हांचो हो पयलोच कविता-संग्रह. ह्या संग्रहान कोंकणी कवयित्रींच्या काव्य-भांडारांत भर घातल्या. माया आनी हेर कोंकणी कवयित्रींनी काव्याची साधना अविरतपणान चालू दवरली तर एक दीस तांच्या

लिखणेंतल्यान श्रेश्ठ काव्याची निर्मिती जावंक पावतली. ह्या पुस्तकाक पालव दिवन गोवा कोंकणी अकादमीन आनी तें उजवाडावपाची जापसालदारकी घेवन अपुरवाय प्रकाशनान एक बरें काम केलां.

कोंकणीतल्या उदेत्या कवी-कवयित्रींच्यो कविता हांव जेन्ना वाचतां तेन्ना म्हाका एके गजालीची खात्री पट्टा कि, आयज ना फाल्यां ह्या वो नव्या कवी - कवयित्रीं मदल्यान श्रेश्ठ कवी - कवयित्री निर्माण जातल्यो आनी कोंकणी काव्याचे 'कयपंजी'चो उजवाड चोंयवटेन फांकारतलो. माया हांच्या 'कयपंजी' च्या उजवाडांत तर म्हाका हें स्पश्टपणान दिसूंक लागलां.

**प्रा. हरिश्चंद्र तुकाराम नागवेंकार**

१०, मुरमुटी, पन्नो बाजार
**मडगांव** - गोंय ४०३ ६०१

वुधवार, २२/११/१९८९

## असोच गाजतलो

दर्या तेन्नाय गाजतालो
म्हज्या सानुल्या बोटाक धरून
पऱ्यांच्या राज्यांत व्हरतालो.

दर्या तेन्नाय गाजतालो
म्हज्या पायांत भिरभिरून
व्हडविकाय म्हजी आयकतालो.

दर्या तेन्नाय गाजतालो
म्हज्या मुमुरख्या तोंडाक पळोवन
गुपीत म्हजें आयकतालो.

दर्या आतांय गाजता
हातांतले वडयेक पळोवन
गाराणी म्हजीं आयकता.

दर्या असोच गाजतलो
म्हजो गोबोर पोटांत दवरून
दुसऱ्या वांगडा खेळटलो

## मोगरीं जेन्ना परमळटात

मळबाक जेन्ना चंवर येता
रात जेन्ना दुदान न्हाता
मोगरीं जेन्ना परमळटात
म्हाका अशें अशें दिसता
त्या परमळांत हांवूच विरतां.
थंड दुदाळ राती पारार
मोगऱ्यांच्या परमळा तालार
धवी फुल्ल चान्न्या रात
मोगरीं कशीं फुलून येतात.
हांवय तिच्या सांगाता
मोगरें जावन नाचूंक लागतां
फाल्यां बावपाचो श्राप तांका
हांव साप्प विसरून वतां.

## वांगड दियात

चान्न्या रातीं, दर्या कुशीक
ल्हार जावन खेळचें आसा
गो मना सांगात दी
काळखाचो दर्या पेंवचो आसा
तूं मात्सो वांगड दी.
    दोंगरा कुशींतल्या झऱ्या वांगडा
    घागऱ्यो बांदून नाचचें आसा
    रे पायांनो सांगात दियात
    आजून खूप धांवचें आसा
    तुमी मात्सो वांगड दियात.
भुर–भुर उडट्या पाखरां वरी
निळ्या मळबांत भोंवचें आसा
गो मना सांगात दी
जगांत खूप भोंवचें आसा
तूं मात्सो वांगड दी.
    जगाच्या पोरसांत नखेत्राचीं फुलां
    पदर भरून पुंजावचीं आसात
    रे भांवडांनो सांगात दियात
    आजून खूप चलचें आसा
    तुमी मात्सो वांगड दियात.

## याद चंवरल्या

वसंताच्या तालार सुरार
कोगीळ गीत गांवक लागल्या
म्हज्या मनाच्या रूखार
याद तुजी चंवरून आयल्या.

रूखान रूख पानेला
खांदयेन खांदी आंकरेल्या
तुज्या म्होंवाळ गितांत
मन म्हजें घुस्पलां.

पांचवीं चार झाडां पळोवन
तूंच मुखार उबें रावता
तुज्या माथ्यांतलो जुये वास
नाका देगेर घुटमळटा.

पोरसांत कितलीं फुलां फुलल्यांत
तुजे यादीन दोळे भरल्यात
तांतलेंच तूं एक फूल जावशी ?
येवन म्हजे दोळे पुसशी ?

## केन्नाच मेळना

सुखा फाटल्यान धांवपी पिशा
सुख अशें केन्नाच मेळना
पारज मुठींत धरूंक गेल्यार
तो हातांत केन्नाच उरना.

दिसा फाटल्यान धांवपी पिशा
दीस सहज केन्नाच येना
दर्या फेस धरूंक गेल्यार
तो हातांत केन्नाच उरना.

बांयतल्यान कोळसो काडचो आसता
उदक सहज केन्नाच मेळना
सूख ओडून हाडचें आसता
सूख सहज केन्नाच मेळना.

## सपन

चान्न्या दर्यांत पेंवतां -- पेंवतां
एक मोठें अजाप घडलें
अचकीत चंद्रीम हातांत आयलो.
हे खोशयेन जावन पिशें
नाचूंक लागलें मळब भर
आनी गळसणिल्ल्या हातांतल्यान
चंद्र म्हजो शेणोवन बसलें.
दोळे चोळीत पळयत जाल्यार
हांव म्हज्या हातरूणारच आसलें
भोंवतणी फकत काळोख आसलो
आनी फुटक्या नळयांतल्यान
चंद्रीम पळोवन हांसतालो.

**फूल रूमडाचें**

सैमा तुजें उपकारीक
कितलीं तुवें फुलां दिवचीं ?
तरेक-तरेच्या रंगांचीं
तरेक-तरेच्या गंधांचीं.

सैमा तुजें उपकारीक
दोंगर केले फुलांचे
धुवाळे म्हजे पुरवचे
म्हूण झेले कितले तरेचे.

सैमा तुजें उपकारीक
नाका इतले झेले तुजे
धुवाळे गो एका फुलाचे
फूल .. तेंय रूमडाचें.

## ज्योत

काजळ काळें पांगरूण घेवन
ज्योत एक ही थरथरता
फाल्यां प्राचिचेर सुर्या येतलो
सपन आज ती पळयता.

दंवान भरिल्लो पदर पसरला
दान घेवपाक सुर्यालें
फाल्यां उदेंतेर सुर्या येतलो
मन आज हें फुलिल्लें.

निळी - काळी शाल मळबाची
ज्योत एक ही हूरहूरता
फाल्यांचो म्हूर्त पावला लागीं
घटका आज तो मेजता.

## वांझकुटी जीण म्हजी

वांझकुटी रे जीण म्हजी
कळे ना फुलां
पोल्या वेल्यान घळघळटात
फक्त खारीं दुकां.

वांझकुटी रे जीण म्हजी
फूल ना फळ
काळजाच्या कोनशांतल्यान
फक्त येता कळ.

वांझकुटी रे जीण म्हजी
रंग ना वास
जिबे कडेर अडखळ्ळ्या
तुज्या गितां रास.

वांझकुटी रे जीण म्हजी
भविष्य ना भूत
म्हजे भोंवतणीं भीरभीरता
काळखाचो दूत.

वांझकुटी रे जीण म्हजी
मरण ना जिवीत
दर्या देगेर घुस्पतात
पावलां तुजे यादींत.

वांझकुटी रे जीण म्हजी
हार ना जीत
मना तेंगशेर हुमकळटा
फक्त तुजी प्रीत.

## उज्या कीट

त्या घराचे बुनयादितूच
उज्या कीट सांपडिल्ली,
वास्तू शांत जावंची सोडून
भितल्ले भितर जळटाली.
तेच हाणे आसुंये,
त्या घरांत जल्मले,
उज्याचे धगधगीत गुळे
भायलें वारें लागतकूच
ते लागले भगभगूंक
घरांतल्या घरांत आसतना
एक बरें आसलें
वांशे आनी नळेच जळटाले
जगाच्या पोरसांत मात ते आयिल्ले
भोंवतणचीं शेतां झाडां जळूंक लागलीं
इतलेंच न्हय, तांचे धगीन
पयसुल्लें पांचवें तण करपूंक लागलें.
इल्लेशे किटीचें येदें व्हड जैत
कीट फुल्ली, चड भगभगली
अख्ख्या संसाराक जळोवपाचें
सपन पळोवंक लागली.

## कड

आज दर्या गाजता
ल्हारार - ल्हार उसळटा
मनातलें दुःख
फेसांतल्यान परगटायता.

शिता आयदन खतखतता
वयर सकल जाता
मनातले कड
वोतो जावन व्हांवता.

मळब सगळें भरलां
काळें किट्ट जालां
मनांतलें दुख
पावस जावन कोसळटा.

गुलमोहर रसरसला
तांबडो गुंज जाला
मनांतले कड,
पाकळ्यो झडोवन दाखयता.

## देव फसलो

गर्भकुडितल्यान जेन्ना देवान
मनशाक वागवतना पळेलो
धादोसून देवान थारायलें
भक्तांच्या मात्शें लागी वचचें
आनी देव चौकार आयलो
थंयचो मनीस मात्सो पैसुल्लो दिसलो
देव देवळा भायर आयलो
आनी थंयच चुकलो
आपल्या पायांनी जागो वगडावन बसलो
भायलो मनीस देवाक अनोळखी दिसलो
खिणा खिणाक बदलपी दिसलो
तो देवाकच वळखनासलो
देव फसलो देव फसलो
परत वचूंक सोदूंक लागलो
आनी वाट विसरलो
सगळयोच्च वाटो मनशांनी भरिल्ल्यो
देवाक चूक खूब उसरां कळ्ळी
देव आतां भोंवता अश्वत्थाम्यावरी
आपल्याक वळखुपी मनीस
खंय मेळटा कांय पळयत.

## ती

ती आनी हांव एकेच कडेन आशिल्लीं
सदांच खुसुखुसू उलयतालीं
एक दीस ती हळडुवीच जाल्ली!
हावें हांसून म्हळें
" शी तूं म्हातारी "
दुसऱ्या दिसा ती सकल पडिल्ली,
म्हाका खदखदून हांसूंक आयलें.
दोन दिसांनी खूब व्हड वारो आयलो
म्हाका हुमटावन सकल उडयली
तकली सकल घालून हांवें
हळूच तिचे कडेन पळेलें.
ती म्हणूक लागली
" पापणी हांव तरी म्हातारी जाल्लीं,
तूं मात अर्दयारूच . . "

## उजो

मळबाक उजो पेटला
वाऱ्यान भगभगता
कितले समुद्र मोखले
जमीन मात भिजून गेली
हांगाच्यो न्हंयो -- झरे
धगीनूच आटून गेले
उजो पालवना, भगभगत आसा
आतां रगताचोच शींवर
घालचो पडटलो,
घडये मळब ताचीच
वाट पळेता आसुंये.

## काजुलो

कीट्ट काळथा काळखांत
एकदां काजुलो लूकलूकलो
उमास म्हजी विटकळूंक लागली
धवी फुल्ल पुनव जावन बसली.
चान्ने पळोवन पिसावलें
हांसत नाचत रावलें
गच्च भरिल्ल्या रेब्यांत
खोल रोमून उरलें

## भुरगेपण

थंड - थंड दनपारच्या वेळार
धर्तरी जळटा जेन्ना वोतान
मनांत एक फुटटा ल्हार
शंक - शिपयो वेंचतां - वेंचतां
भुरगेपणाक येता भार.

थंडगार दनपारच्या वेळार
झाडां पेडां झेमता तेन्ना
मोर नाचता मना देगेर
पाखां एकठांय करतां - करतां
भुरगेपणाक येता चंवर.

थंडगार दनपारच्या वेळार
जग जेन्ना समाधिस्त
चिचो झडटात मना मळार
आंबट - गोड चाखतना चिचो
वय निसरता चिचे पानार.

## घुस्पल्लें सूत

घुस्पल्लें सूत आमचें
सोडवपाचो यत्न करनाका
सूर्य देवंक लागला आतां
सकाळच्यो यादी काडनाका

तीन पांयार रथ म्हजो
आजवेर चलत आयला
वण्टीवेली पाल जावन
वोगीच आतां चुकचुक नाका

जाता जाल्यार एकूच कर
महायात्रेक वतना म्हाका
हांवेंच दिल्ली फुलांची शाल
म्हजी म्हाका परतून दी

## गिन्यान

हांव बुदवंत म्हणत
रानचे कुडींत आयलें
तव्यावेल्या भाकरेन
म्हाका पिशें थारायलें
इस्तांतितले डबे
खुदुखुदू हांसूक लागले
मेजावेले ताट – पेले
दांत दाखोवंक लागले
रान्नीतल्या लाकडांनी मात
गिन्यान म्हाका शिकयलें.

## वारेबाब

उदकार घाल्ली रांगोळी पापया
कित्याक अशी विस्कुटायली ?
जाये पाकळेर बरयल्लें गीत
कित्याक पुसून उडयलें ?
ल्हंवे – ल्हंवेर फुलिल्लो चंवर
कित्याक असो झडयलो ?
फुकेन तुवें जिवीत म्हजें
झोपाळो कित्याक केलो ?
थांबय तुजो खेळ जिवघेणो
सोंसू नज आतां वारेबाब.
पाकळी झडयली
देंठ तरी म्हाका दवर.

## सांवर

वांझकुटी ही जीण म्हजी
आवय जावन वांझकुटी
कितलिशीच पोरां म्हजीं
आंगा खांदार लोळटालीं
वाऱ्या वांगडा हांसत – खेळत
जीण म्हजी फुलयतालीं
नकळो केन्ना जालें कितें
दिश्ट कोणाची लागली कशी
वाऱ्याचो लागतना हात
पैस पैस गेलीं उडून
हात म्हजो झिडपटावन
पदर म्हजो पिनून उडोवन.

आगे बाये सांवरी,
बेठीच अशी रडूं नाका
पैस गेल्या भुरग्यांक लागून
दुःखी तूं जांवनाका
होंट तुजी खूब म्हान
आवय तूं भाग्यवान.
पैसुल्ले भुंयेर पळय
वंश तुजो वाडटा
पैसुल्ल्या रानां – रानांत
नांव तुजें गाजता.

## घरचे

ते अशेंच करताले
आमच्या हाडांचे बांक करून
मासाचीं कुलचावां करून
सुशेगाद न्हिदताले
वेल्यान आमचे कडल्यान
पांय चेपून घेताले
हे सुद्धां तेंच करतात.

ते आमच्या घरांत येवन
आमच्या पाटार बसून
सुशेगाद जेवताले
वेल्यान आमचे कडल्यान
वारें घालून घेताले
हे सुद्धां तेंच करतात.

तांचें एक बरें आसलें
कितलेय जाल्यार सोयरे
ताणीं मारल्यार व्हडा-व्हडान
रडूंक तरी मेळटालें
हात उखलून मारूंक येतालें.

हे घरचेच,
हायस म्हणूंक चोरी,
दांतय आपले ओंठय आपले.

## त्या मळार

त्या उजाड मळार
एकलें एकसुरें
झाड दसणिचें
ओतता फुलां भारान.
केन्ना तरी एकदां
मायेमोगाचो हात
फाटीर भोंविल्लो
गवाय दिता आजून.

त्या उजाड मळार
मोडकी एक बांय
गत वैभवाची
खूण सांगता आजून.
कितलेशेच लोक
पोशिल्ले उदकान
म्हातारे ते हात
आजून दिता दान.

एक जिती काणी
पुरल्या त्या मळार
गवाय दीत उबी
बांय आनी दसण
वाऱ्या वावटळींत
बीं उडलें पैस
रूख रूंदावले
विसरेले भूत.

याद जागयत, धोलता दसण
याद ओलायत, बसल्या बांय.

## साळकां आमी

ताणी आमकां वागयलीं
आमी वागवलीं.
ताणी आमकां चिड्डीलीं
आमी चिड्डोवन घेतलें.
ते सांगतात तें आमी
तोंड धांपून आयकलें.
आमच्या जाण्टेल्यानीं हेंच केल्लें
मानेर जूं घेवन वावुरले
आमची कातच वातड
तांच्या पांया पोनच्यानय
आमचीं मुळां पैस गेलीं
तांच्या सांवटा भायर
आमी स्वास घेतलो
खोल दर्यांत पेंवक शिकलीं
लोकांनी केल्ल्या कवतुकांत
ताणीय हात बुडोवन घेतले
आपले पंगतीक बसोवच्या वेळार
मात कावळ्याचें वकूल लायलें
वांकड्यो चोंची करून करून
आमचें कूळ उस्तुपाक लागले
सभाग्यानो, चिखलांत जल्म जरी,
साळकांची जात आमची
वारो कितलो आडावशात ?
वास पैस पातळटलोच.
मान वांकडी करून करून
चिखोल कितलो उडवशात ?
पांय घट्ट रोयल्यात आमी
तकली वयर उरतलीच.

## कर्ण

सुर्याच्या गांवांत रावपी हांव
अचकीत धुंवटेचे घोलींत घुस्पलें
धुंवटेचें पांगरूण इतलें दाट
सुर्याचीं किर्णां खंय
आपटून परतीं वेतात.
त्या पांगरूणा खाला
कितलेशेच जीव घुस्मट्टात, तडफडटात,
हांवें पळेलां.
तांकां सोडोवपाचो म्हजो यत्न
रामाचे चानयेत्री
नाखटांच न्हय तर
हात लेगीत झरल्यार
धुंवटी पिनूक येवचीना.
हांवें आतां थारायलां
सुर्याचो गर्भ वाडोवप
तो कर्णच
हो पड्डो मात्सो तरी हालोंवक शकतलो
म्हजे वाटेन आनीकूय कुंती येतल्योच
सुर्याचे वंश वाडत वतले
धुंवटी विरत विरत वतली.

## तुजेवीण

सारयल्ल्या आंगणात
चुट्टांची रांगोळी
उजवाती जाग्यार
पारज्ताचो परमळ.
तूं येतलो म्हूण
वाट तुजी पळेत
सपणार बसलां
पोल्यार घेवन हात
फुलांनी भरिल्लें मळब
दोळयांक झेम आयलिना
मेजतां मेजतां नखेत्रां
रात सोंपली कळ्ळीना.
माडावेल्या किरकिऱ्यान
सपन म्हजें तोडलें
चंद्रा तुजेविण,
आंगण विधवा जालें.

## आशेचें बीं

खंयच्यान तरी एक बीं
ते आशेल्ले जमनीर
वाऱ्यान उडयलें
कल्पनेच्या उदकान
शिंपता, शिंपतना
बांय सोंपयली.
खिणा भितर रूख
मळबाक तेंकलो
फुलांनी बागवलो.
सुर्याची भांगरा किर्णां
तेंकतनाच मात
खिणाभितर करपून गेलो.

## असहाय

जळट्या उज्यांत तीं भाजतात
हांव तांकां वाचोवंक शकना.
खोल उदकांत तीं बुडटात
हांव वयर काडूंक शकना.
तीं दुकांचो पावस घालतात
हांव दुकां आडांवक शकना
नरकयातना तीं भोगतात,
हांव तांकां वाचोवंक शकना.
इतली अर्थहीण जीण म्हजी
कोणाक सुख दीवंक शकना
लुगटां कापपी हात म्हजे
जिणे दोरय कापूंक शकना.

# आयज कृष्णा परतून तुका

आयज कृष्णा परतून एकदां
जल्म तुका घेवंक जाय
गोवर्धन कोसळूंक लागला
तुज्या बोटाचो तेंको जाय.

कितलेशेच कंस आयज
नागडी फुगडी घालतात
कालियाचेर आयला सांवार
कंवळी रोपी बावयता

कौंरवांचेर आयला सांवार
धर्तरेच्या उठल्या जिवार
दुःशासन बसला लज काडूंक
द्रौपदीक तुजें वस्त्र जाय

युद्ध भुंयेर एकटो अर्जून
कृष्णा तुजें पाठबळ जाय
शिशुपालाचे भरल्या गुन्यांव
कृष्णा तुजें पाठबळ जाय.

# तूं

तुज्या काळजांत सदांच,
धगधगतें होमकूंड
म्हणून जांवये
तुज्या तोंडांतल्यान
येतात उज्याचे इंगळे
सकल तकली घालून
समिधा पुंजावपी आमी
त्या इंगळयाच्या धगीनच फुलतात.

तूं खुबिल्लया दर्याचें
खंखाळ ल्हार
म्हणून जांवये
तुज्या श्वासांत आसता
तप्त लाव्हा
देगेर रावन तुका तेळपी आमी
तुज्या श्वासाचे धगीनच
रसरसून येतात.

## तुजीं दुकां

तूं तुजीं दुकां ताच्या मुखार
वोगीच शिंपडावं नाका
आपल्या सुखाक लागून
दुसऱ्याचें रगत काडपी ते
तांका तुज्या दुखांचो खंय व्हालोर ?

तुजें काळीज लासणे घाय
तांच्या मुखार उगडूं नाका
आपल्या स्वार्था खातीर
दुसऱ्याचो खून करपी ते
तांका तुजे मरणव्यथेची खंय पर्वा ?

तुजी वज्रमूठ त्या फातरार आपटीय
नीतळ वझरो व्हांवतलो
तुजो घाम मातयेंत शिंवर
तीं तुजें घर भरतलीं.

## ही जागी जाल्ली बायल

ही कलियुगांतली सीता
माझ्यार अन्याय घेवन
धर्तरेच्या पोटांत लिपचीना.

ही कलियुगांतली अंबालिका
अर्जुनाची वाट पळेत
शिखंडी जावन बसचीना.

ही कलियुगांतली अहिल्या
रामाची वाट पळेत
शिळा जावन बसचीना.

ही जागी जाल्ली आयची बायल
देवपण घेंवक, फुलांत घुस्मटत
देवाऱ्यांत बसून रावचीना.

## एक व्हडें

त्या अथांग दर्याचेर
एकलें एकसुरें व्हडें
धांव धांव धांवता
काळा – वेळाचें भान सोडून
देगे शिडाचें नातें तोडून
वाऱ्या ल्हारांचो जुलूम मोडून
नाडेपेन्न करीत वता
व्हडें एकटें धांवत वता.

## काळो दाग

तुज्या दोळयांत सदांच
एक काळो दाग
म्हजें काळीज लासता
म्हजो मोटवो हात
वयर काडटां तो पुसूंक
हात अदर्यारूच उरता
तुज्या दोळयां मेरेन पावना
भौसाचीं गणितां सोडोवपी तूं,
तुजो मात हिशोबूच लागना.

## ती माती ही माती

ही रेंवट जमीन, भुसभुशीत
मुळां धरून दवरिना
ती तांबडी माती, चिकटमाती
मुळां घट्ट घट्ट धरता.
हे रेंवट जमनींत, उथळ झाडां
वादळ वाऱ्यांत हुमटतात
ते तांबडे मातयेंत, म्हारुख उबे
युगा युगाची गवाय दितात
हे मोव मातयेन, तांकाच पिसायले
ज्यांची काळजां वयरच चिकटायल्यांत
ते घट्ट मातयेन, तांका हालयले
ज्यांचीं काळजां, खोल खोल रिगिल्लीं.

## मन पिशें

तुजेर पिशें
मन अशें
कोण वांदून घालीत ?
नदर उडटी
कळे – फुलांर
फूल सुकें दीसत कशें ?
हातांत दोर
धांवतो रथ
मन – माती जुळत कशी ?
वांकडें पावल
देंवती वाट
कोण वांद घालीत ?
मन पिशें
शब्द रिते
कोण अर्थ भरीत ?
तांतूत कोण अर्थ भरीत ?

## पेटय तुजी कयपंजी

पेटय तुजी कयपंजी
उखल बेगीन पावल
झेमूंक लागल्यात दिवे आतां
कर तेल वात.

पेटय तुजी कयपंजी
लाय नंदादीप
गर्भकूड काळखेल्या
सार दिवले वात.

पेटय तुजी कयपंजी
उखल बेगीन पावल
घरा घरांत काळोख रिगता
पेटयत चल वात.

## कशें म्हणूं

तूं आसूं कितलेंय
कारात्या परस कोडू
तुजी गोडसाण चाखल्या हावें
कशें म्हणूं तुका कडू कारातें ?

तूं आसूं कितलेंय
रसरशीत इंगळो
तुजे थंडायेंत जियेलां हाव
कशें म्हणूं तुका उज्या इंगळो ?

तूं आसूं कितलेंय
घट्ट गुळो पाशाण
तुजी मोवसाण पळेल्या हांवें
कशें म्हणूं तुका वज्र पाशाण ?

## तरनाट्या

तरनाट्या,
तुज्या हून रक्ताचो सोपूत
तुज्या लोखण नाखटांनी
कंवळयो कळयो किरमुनाका
सैमाचें सोबीत रुप
अशें विद्रुप करूं नाका.

तरनाट्या,
तुज्या लोखण नाकटांत
मळब पिनपाची शक्त
तुजे वज्र मुठीक
धर्तरी फोडपाची तांक.

तरनाट्या,
तुजे शक्तिचो प्रयोग
कंवळया कळयांचेर कित्याक
तांचे पाकळेंत घुस्पटिल्लो श्राप
बेठोच माथ्यार घेता कित्याक ?

तरनाट्या,
तुज्या हून रगताचो सोपूत
माती कोंपरान खणूं नाका
मातयेक धार आयल्या
रुख हुमटावचेली शक्त आयल्या

तरनाट्या,
मातयेंतल्यान नवविश्व
उबारचेली तुजी शक्त.
अशी मातयेभरवण करूं नाका
स्वप्न भरीत कळयो
अशो चिड्डून उडोवं नाका.

तरनाट्या,
तुज्या हून रगताचो सोपूत
तुजी तरनाटी जीण अशी
विकून उडोवं नाका.

## तूं यो

यो, तूं यो, असो यो
म्हज्या काळजाक पाळां फुटूंक जाय
ल्हवें ल्हवेंतल्यान कोंब फुटूंक जाय

यो. तूं यो, असो यो
म्हज्या कणाकणांतल्यान, पानां फुटूंक जाय
पाना–पाना आड कळे फुलूंक जाय

यो, तूं यो, अगो यो
म्हज्या कळचा-कळचांतल्यान गीत फुटूंक जाय
गीत सुरांत चिंब-चिंब भिजूंक जाय

यो, तूं यो, खरेंच यो
भोंवतणची रुखावळ
हांसू कितलीय खसखसून
ग्रिष्माच्या इंगळचा दोळयांर जैत जोडूंक जाय.

पावसा, तूं यो, घसघशानीं यो
म्हाका पांचवें पांचवें जावंक जाय
पावसा तूं यो, घसघशानीं यो, घसघशानीं यो.

# क्रांतीकारक

दोंगरांतल्यान कडकडाट
तळपांतल्यान फातर शिवर
क्रांतीचो घेवन सोपूत
जल्माक आयला वझरो कुंवर.
हेर झरे वझरे व्हाळ
मेंग्यावरी सारतात काळ
निमाणें थंड न्हंय जावन
समिदराक ओंपतात प्राण
आमी अशे जावंचे नात
आमी अशें करचे नात
जाण्टेल्यांचें मोडून दायज
वाट नवी घडयतले आयज.
क्रांतीचो घेवन सोपूत
दोंगरातल्यान मारली उडी
वांकडी वाट, वांकडें पावल
वझरो नेटान लागलो व्हांवक
वझरो वयान वाडत गेलो
सोबीत न्हंय जायत गेलो
समिदराचो खारो वारो
न्हंयच्या कानांत गुणगुणलो
नाचरें न्हंयचे पावल ताका
एकेच फुकेन अडखळळें
वझऱ्याचो हावेस शेणलो
क्रांतीचो रंग विटलो
समिदराची गाज
न्हंयच्या काळीज तळाक रिगून गेली
एक क्रांती फुलचे आदीं,
खाऱ्या उदकांत विरघळळी.

## आयज तुवें

आयज तुवें एकदांच येवन मेळूंक जाय
मना आयला खतखतो, वोतून उडोवंक जाय
काळीज भरलां शब्दांनी
जीव जड
उतरांत उतर घुस्पलां
तूंच सोड.
आयज म्हाका मेकळें-मेकळें जावूं दी
मना आयला खतखतो वोतून उडोवं दी.
पायां घाल्या बेडयो
तूंच तोड.
फातरा पोंदा चिड्डलां
तूंच सोड.
एकदांच मेकळो म्हाका स्वास घेवूं दी
मना आयला खतखतो वोतून उडोवंदी.

## तीं दुकां

तीं दुकां, पयलीं - वयलीं
कांयच अर्थ नासतनाय
खूप अर्थान भरिल्लीं.
        तीं दुकां, मस्त आडांगी
        हट खरो करपाक
        वोगच्या वोगीच व्हांवयल्लीं.
तीं दुकां, आवाजा शिवाय
कोनशाक तोंड लिपोवन
घळघळून देंविल्लीं.
        तीं दुकां, दुखान भरिल्लीं
        पश्चात्तापान जळून
        घुस्मटून घळघळिल्लीं.
तीं दुकां, संतापान भरिल्लीं
उतरच फुटना जावन
थरथरून गळिल्लीं.
        तीं दुकां खोशयेन फुलिल्लीं
        शब्द दोळयांत विरघळून
        दुकांनी परगटायल्लीं.

तीं दुकां, अशींच पोरकी
ब्रेक फेल जाल्ले वरी
व्हांव, व्हांव व्हावपी.

तीं दुकां सदळ सदळ
रस्त्यार मेल्ल्या कुत्र्या खातीर
घसघसून गळपी.

तीं दुकां अळंग अळंग
सुरकुतिल्ले कातींत
जिरत जिरत देंवपी

तीं दुकां कासावीस जाल्लीं
आपोवण्याची वाट पळयत
थेंब थेंब गळपी

तशीं दुका, अशीं दुकां
जल्मासावन मरणा मेरेन
तरेकवार रूप घेवन
न्हंयचेवरी व्हांवपी.

## घर

त्या घराच्या माथ्यार
सदांच सुर्या उबो
त्या घराक जळयत लासयत
त्या घराचे भितर
रसरशीत उज्या गुळे
घराच्यो वणटी हुलपायत.
घर मोठें अप्रुपाचें
पणसाचें धोणस कशें
वयर उजो सकल उजो
तरीकय गोडशें मोवशें
घरा पोटांत उज्या केण
भायली कात नीबर घट्ट
घर दिसूंक सादें-सुदें
गच्च भरिल्लें झाड कशें
सुर्या किर्णांत जळून लेगीत
घालता लोकांक सावळे पाखें.
घर मोठें अजापाचें
दर्याचें ल्हार जशें
मरण घाट आयकून लेगीत
हावेसान भरलां पिशें.

## कसोटेचो खीण

मळबाक उजो पेटिल्लो
ते धगीन धर्तरी हुलपताली
आनी त्या खिणाक ते जल्मा आयिल्ले.
म्हणून जांवये, ते अजून
उज्याचे इंगळे कशे रसरसतात
ताकां पांचव्या सैमाचो दुस्वास
निळया उदकाचोय दुस्वास
तांची सावळी पडटा थंय
उज्या किटी उसळटात
मळब थंड जावन
आतां कितलोसोच तेंप जाला
तांचेर मांवळी घालपाचो
मळबाचो यत्न व्यर्थ गेला.
म्हणून जांवये ते इंगळे कशे
रसरसत उरल्यात
धर्तरी आतां कापूर कसो
जळून वचपाचोच भंय
हिमालया तुजे कसोटेचो हो खीण.

## बुडिल्लें देवूळ

स्वप्नाचे कुडके कुडके
दर्या ल्हारांर उफेले
घुड दिसलो पयसुल्यान
देवूळ मात बुडिल्लें.

हावेसान उठलें ल्हार
मळब - चंद्र वेंगोवपाक
खिणभरान बाबडचा तोंडान
दर्या देगेर फसफसलें.

हावेसान धांवलें व्हडें
दर्यार जैत मेळोवपाक
मोडाचें थापट एक
देगेचेर भिरकटायलें.

बुडिल्ल्या देवळा भितर
देवाची साशाय घट
किर्णांचो बांदलो पूल
पावल मात अडखळ्ळें.

## कावथ्या

भूंयवेंगेंत कावथ्या तुजेर
सांवळी कांटयांची
मळब वेधी नजर तुजी
ना पर्वा कोणाची
        पावस पाणयां आडस तुका
        वता कडार सांवळी तुका
        गाय-म्हशी करून पैस
        कूड तुजी सांवरता.
वाडटचा वथा भार तुजो
खरशेल्ल्यो कांटयो
मायेक तांच्या ना अंत
तुजे राखणेचीच खंत.
मळबवेधी नदर तुजी
ना पर्वा कोणाची
भूंयवेंगेंत कावथ्या तुजेर
सांवळी कांटयांची.
        एकदीस मळब
        तूं माथ्यार पेलतलो
        सुर्या तेन्ना वयर
        तुज्या वोतान भाजतलो.
मातये भरवण कांटयांच्या
यादीन रडटलो
तांचे माये दिश्टावो तुका
तेन्नाच घडटलो, कावथ्या तेन्नाच घडटलो.
        मळब वेधी नजर तुजी
        ना पर्वा कोणाची
        भूंयवेंगेंत कावथ्या तुजेर
        सांवळी कांटयांची.

## मन आशेता

निळ्या निळ्या मळबा पोंदा
भिरकी मारूंक मन आशेता
मोटव्या पाख्यांची जावन कोंबी
जमीन हांव उस्तितां.

व्हड-व्हड ल्हारां वांगडा
उडक्यो मारुंक मन आशेता
बोट भर काड्डूंव जावन
फोणकुलांत बुचकळटां.

दोंगरा वेल्यान मारूंक उडी
वझरो जांवक मन आशेता
मागील दारांत खळी जावन
हळशीक हांव व्हांवयतां.

## तूं गेली आनी

तूं अकस्मात गेली आनी –
वेल मुळांतल्यान हुमटली
राती काळखांत वाट पळेत
तुजें हांतरूण सांसपिलें
तुजो म्हातारो हात
फाटिवेल्यान भोंवलोचना.

तूं अकस्मात गेली आनी –
दोळे फातर जाले
कितले हात सरले मुखार
तुज्या म्हाताऱ्या बोटांतली माया
तांतल्यान मेळ्ळीच ना
काळजाक ओलसाण मेळ्ळीच ना.

तूं अकस्मात गेली आनी –
वोता सड्यार फडफडलें
कितल्या झाडांनी घाली सांवळी
तुजे सांवळेची थंडाय
तांतल्यान मेळ्ळीच ना
जळटें मन थंड जालेंच ना.

तू अकस्मात गेली आनी –
घाय हुलपूंक लागले
कितलो वारो आयलो खंयच्यान
तुजे फुकेंतली शितळकाय
तांतल्यान मेळ्ळीच ना
हुलपल्ले घाय पेकलेच ना.

तूं अकस्मात गेली आनी –
वेल मुळांतल्यान हुमटली
कितले माटोव जातले तयार
तुजे मायेचो बडी
ताजेर आसची
तुजो हात फाटीर भोंववोना.

## काळखाचें झाड

तें झाड काळखाचें
ताका फुलां काळखाची
ताचीं फळां काळखाचीं
ताचे भोंवतणी काळोख काळोख
त्या झाडागेर एक दीस अजाप घडलें
चिमटीभर काजुलो येवन
ताच्या पानार बसलो
ताणे पूनवेचें सपन फुलयलें
झाडाक आतां उजवाडाचें पिशें लागलां
ताळी मुळी झाड आतां पेटून उठलां
भितल्ल्या काळखार ताणे जैत जोडलां
काळखाचे बंद ताका भायल्यान तोपूं लागल्यात
शिरंतरांनी ताच्या इंगळे व्हांवतात
काळचा काळचा काळखांत
झाड भगभगता
झाडाक आतां जैताचो मार्ग सांपडला
चान्न्या पालव गुटलावचेली
ताका आस लागल्या
इल्ल्याशा काजुल्यान अजाप घडयलां
काळखाच्या झाडार
उजवाड फांकयला.

## कुरूप

रंगान भरिल्ले ब्रश पळेतकर
भुरगेपणां करन दिसलीं
ब्रश आडवे - उबे फिरयत रावलें
एक अनवळखी चित्र तयार जालें
मात्शें बारकायेन पळेतकर कळ्ळें
तें म्हजेंच चित्र आसलें
सुंदरकायेच्या बुरख्या आड
हांव इतलें कुरूप - कुरूप आसलें.

## कवनां

उदेंतेच्या सुर्यापरस
अस्तमतेचो सूर्य, चड सोबीत दिसता
रातीर घाल्ली हार पचोवन
फाल्यांच्या जैतान तो हांसता म्हणून आसुंये.

□

हातांत कयपंजी घेवन
दर एकटचालो लामणदिवो पेटयत गेलें
हांव काळखांत आसा म्हणपाची याद
कयपंजी पालयतकर जाली.

□

ती भिकारीण म्हज्या दारांत आयली
हावें खारें उदक तिच्या पोशांत घालें
तिच्या माथ्यार ताचेंच वोजें जड जालें.

कल्पनेच्या पांखांनी मळबांत भोंवपाची
संवंय नाशिल्ली जाल्यार
जमनीवेले कांटे, इतले तोंपचे नासले
देहाचें ओजें जड जावचें नासलें.



तुमी यज्ञ सुरू केला
म्हजेकडेन दिवपाक कांयच ना
म्हज्या देहाची एक समिधा सोडल्यार.



भर दनपारच्या वोतांत
ती फुलकान्न उबी
नाजूक जायांचो पांटलो घेवन
घरांत दवरिल्ले कंवळे
जायेचो उगडास ओलायत

तांचीं दुकां पुसपाक लागून
मोटारी घेवन ते गावांत आयले
चकचकीत सारयल्लीं घरां
धुल्लांनी माखून परत गेले.



तुजी याद कांटे जावन
पावला पावलाक तोंपता
दोळ्यांतल्यान दुकां देंवचे आदीं
नकळत तुजे हात येवन पुसतात.



म्हज्या घायाची कळ सोंसप
कितलें मोपें ?
तुज्या घायाची दूख मात
काळीज हुलपावपी.

साखरेच्या दाट पाकांत
लिपिल्ले सुरये
सगळेच्च कितें मुयो नासतात
साकरे आशेन गोमटी
कापून घेवपाक.



वाटेर मेळिल्ल्या दर एका फातराक
लींग म्हूण पूजत रावलें
तीं लिंगांच आतां म्हजे वाटेर
वण्टी जावन रावल्यांत.



फुलांनो तुमी कितलीं गिरेस्त
हांशाचो शिवर म्हज्या
पोरसांत घालतात
हांव भिकारी, तुमकां किरमून
म्हजें पोट भरपाचें सपन पळेतां.

फुलांनो तुमी ह्या पोरसांत
केन्नाच फुलनाकात
विखाळ नाकटां तुमकां किरमुपाक
पानां - पानां आड दडून बसल्यांत.



फुल फुल्लें, हांव भुल्लुसलें
ताचे पाकळे पाकळेंत घुस्पलें
दुसऱ्या दिसा पाकळेन पाकळी
झडिल्ल्या देंठान, म्हाका जागयलें.



हांवें म्हजे पुरती वंय केली
म्हजे खातीर झाडां लायलीं
फुलांनो तुमी फुल्लीं
आनी म्हजी वंय मोडून उडयली
तुमच्या हांशाची पाकळी - पाकळी
आतां येत्या - वेत्याच्या तोंडार उदेता.

फुलां - फळांचे आशेन
पान पात तुवें गळयलें
बोणा फुट्टकीर
कापूस पैस - पैस वतलो
तेन्ना पानांच तुजेर
सावळी घालतली.



म्हज्या रस्त्यांतलीं फुलां
कांटे जावन म्हाका तोपतात
रस्त्याभायले कांटे मात
फुलां जावन केंसांत घुस्पतात
त्या फुलांतलो हांव कांटो जांव ?
कांय कांट्यांतलें फुल ?



ल्हाराळ दर्या, कुपाळ मळब
हातूंत भरसल्लें म्हजें जिवीत
न्हंयची स्थिराय, दर्याची उंचाय
मेळोवचो म्हजो यत्न, व्यर्थ - व्यर्थ.

**कर्णाच्या ह्ावेसान**

गर्वान भरिल्लो तो गुलमोहर
एक दीस पान-पान झडयता
तांबसो-केंसरी फेटो बांदून
खळखळून हांसता
सकाळच्या थंड पारार
तो शितळकाय शिवरता
मोव म्होवाळ जाता
दनपारच्या रखरखांत
इंगळो कसो रसरसता
सांजवेळच्या कातर वेळार
वाऱ्या ल्हारांर खसखसता
तीनूय पारा तीन तरा
उन्मादान जियेता
आनी कर्ण जावच्या हावसान
पाकळी पाकळी झडयता
आंगभर घाय घेवन
उगडो-बोडको जाता
आनी तेन्ना --
कंवळी-कंवळी पानां येतात
आवयची माया घेवन
घायाचेर मलम जावन
पांचव्या पदरांत घुस्पटिल्लो
तो गुलमोहर –
परतूनय हांसता-खेळटा
वाऱ्या ल्हारांर धोलत रावता
दोन दिसांचें केंसरी सपन
पुराय विसरून वता.

## कुंती

खिणभराचे चुकीक लागून
कुंतीन अख्ख्यें आयुश्य
उज्यांत जळत सारलें
पुताच्यो विदर्णा उकत्या दोळयांनी
शिविल्ल्या ओंठानी सोंसत रावली
राजमातेच्या सोनयाळचा वस्त्रांत
कैदी आवय रडत रावली
इतल्यानय, तिच्या दुखाचो मडको
भरलोना म्हणून जांवये
आजून कितल्याच जाणांक
बळजबऱ्यां कुंतीचें जिवीत
भोगचें पडटा
कुंतीचे घाय सोंसचे पडटात
ओंठाक लाखेचें सील लावन
काळजार पाशाण दवरून.

## तळप - मनांत

काळचा काळचा तळपार
गच्च - गच्च माती
तळप मनांत, पावस पाणयांत
स्वप्न एक पांचवें
रंग - गंधांत भरसल्लें
पावस येता घोग्यांनी
माती देंवत, थेंब्या थेंब्यानी
कितली वर्सां हुबून गेलीं
एक्क रोंपो किल्ललो ना
तळपार स्वप्न फुल्लें ना
आतां तळप माथें उगडें - बोडकें
तरीय मनांत –
स्वप्न पांचवें - निळशें.

## व्यथेचे बेनुल्लेन

त्या थंय, भाटभर सोनयाळें वोत
चुडटांभर भुरभुरो वारो
न्हाल्लें उदक शिपडायत पाखां किसोवपी
ते आनंदमयी कावळे
तांचे सांगाती
आंगभर दुख पांगुरलेली
दुकांचे मणी ओडत तांचे मदीं भिरभिरपी
ती एक दुखाळ म्हुर्त
त्या थंय, आजून सगळें तशेंच
वोत भांगर शिंवरता
वारो माड धोलयता
कावूळ पाखां शिताडो घालतात
तांची सांगाती
व्यथेची बेनुल्ल पांगुरलेली
ती, भाटभर भरसल्या
वाऱ्यार हुब्रता, वोतार लकलकता
कावूळ पाखांतल्यान शिंवरता.

## एक समाधान

तुजें मळबा येदें दुःख
म्हज्या माणकुल्या हातांनी
पुसचो यत्न हास्यास्पद
तरीय केलो, व्यर्थ गेलो
तुजें क्षितीज व्यापी मन
रिझोवंचें म्हूण आनी एक यत्न
अर्दकुटो प्रयत्न, तोय व्यर्थ
वतां - वतां एकच समाधान
म्हजे परी हांवे यत्न केले
तुजे कांय खीण जायना
रंगोंवक शकलें.

## तुमकां म्हजो नमस्कार

किट्ट काळ्या काळखा
तुका म्हजो नमस्कार
तुज्या पोटांतल्यानच
चकचकीत दीस उदेता
रेब्यांत बुचबुचिल्ल्या तळ्या
तुका म्हजो नमस्कार
तुज्या रक्तांतल्यानच
ही सोबीत कमळां धोल्तात
तुटक्या - मोडक्या खोंपीकारानो
तुमकां म्हजो नमस्कार
तुमच्या कश्टांतल्यानच
गिरेस्त नीतळ शार हांसता.

## पालखी

म्हज्या आयुष्याची पालखी
खांदार घेवन वाट चलतां
उजवाड माथ्यार घेतिल्ल्यो
काळखाच्यो म्हुर्ती दोशीं वटेन
दोन पावलांचो सांगात
कितल्याच जणांचो
कोण फाटल्यान उरता
कोण फुडें सरता
वाटेर बेहिशेबी पेणीं
बुरख्या आड, उकत्या मनान
फक्त गर्दी, गर्दी.



**माया अनील खरंगटे**

जल्म १९५६ वर्सा, असोळडें गांवांत. बी. ए. मेरेन शिकप केलां. १९७६ वर्सा, कॉलेजींत शिकता आसताना लेखनाक सुरवात. आयजवेर कविता, कथा, लेख आदि स्वरूपाचें बरोवप केलां. आकाशवाणीच्या पणजी केंद्रावयल्यान वेगवेगळ्या कार्यावळीनी साहित्याचें प्रसारण जालां. थळाव्या संस्थानी आनी नेमाळ्यांनी घडोवन हाडिल्ल्या काव्य आनी कथा सर्तिनी इनामां लाबल्यांत.

"कवयित्रीच्या कवितांत परगट जाल्लें वैयक्तिक जिणेंतलें आनी समाजांत पळयिल्लें दुख्ख, हें वेगळ्या वेगळ्या प्रतिकांतल्यान आमच्या मुखार येता. ह्या कवितांचो विशेश असो कि, कवयित्री सैमातल्यान आनी भोंवतणच्या संवसारीक जिणेतल्यान प्रतिकां घेवन वो सैम आनी संवसारीक जीण हातूंतल्या घटकांचें व्यक्तिकरण करून आपणाल्या मनाच्यो व्यथा आनी उमाळे, आनी तशेंच, समाजांत दिश्टी पडपी अन्याय, अत्याचार, दुख्ख हांकां व्यक्त रूप दिता."

अपुरबाय प्रकाशन